# जीण जाली कस्तुरी

(कविता संग्रह)

नूतन साखरदांडे

नूतन प्रकाशन

JINH JALI KASTURI
Poems by
NUTAN SAKHARDANDE

प्रकाशन क्र. २



पयली उजवाडावणी :
मार्च १९९४

उजवाडावपी :
अरुण साखरदांडे
नूतन प्रकाशन
उसपकर बिल्डींग
काणका बांद
पर्रा, बार्देस – गोंय ४०३ ५१०

छापपी :
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स,
वळवय, फोंडें – गोंय ४०३ ४०१

मुखचित्र :
दिगंबर सिंगबाळ

मोल : २७ रुपया

---

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' अनुदान येवजणेखाला छापलां.

---

ह्या संवसारांत पयलें पावल मारूंक
आनी पाटयेर
श्रीगणेशा चिरूंक जीणें म्हाका शिकयलें
ती म्हजी भयण
प्रमोदताई
(सौ. प्रमोदिनी श. बोरकार)
हिका आदरान .....

– नूतन

# पूर्वप्रसिद्धी

ऋतु

कोंकणी

राष्ट्रमत

सुनापरान्त

जाग

कोंकण टायम्स

वांगडी

जैत

चित्रंगी

'अप्रूप'

आनी आकाशवाणी पणजी

## मनापासून....

भुरगेपणासावन वाचपाची आनी बरोवपाची आवड. बरें पद म्हळां म्हुण बक्षीस मेळिल्लो दो. मनोहरबाबांचो 'जायात जागे' आनी भुरगेपणांत भयणिगेर गेल्ले थंय हातांत पडिल्लो कवि माधव बोरकारांचो 'चंवर' ह्या कवितासंग्रहान कोंकणी कवितेविशीं गोडी निर्माण केली आनी ती तशीच उरली.

इश्कोलांत आसतना तशेंच कॉलेजांतूय मनांतले विचार डायरेर बरोवन दवरपाची संवंय लावन घेतिल्ली पूण म्हज्यांतल्या उण्या आत्मविस्वासाक लागून छापपाचें धाडस जाय नाशिल्लें.

हे असले अवस्थेंतल्यान म्हाका हात दिवन वयर काडलें ते व्हड कथाकार सर्गेस्त लक्ष्मणराव सरदेसाय हांणी. तांणीच म्हजो आत्मविश्वास वाडयलो. म्हज्यांतल्या कलागुणांक उत्तेजन दिलें.

म्हजो भाव श्री. गुरुदास सुखठणकार हाचेंय म्हाका फाटबळ लाबिल्ल्यान कवितांनी मूळ धरलें खरें, पूण ताका शिपणें आनी सारें मेळ्ळें तें श्री. पुंडलिकबाब आनी हेमाबायच्या आदारान. तांचे सतत उत्तेजन आनी मार्गदर्शनान म्हजी कविता फुलली. आतां तिचो हो 'पयलो चंवर' गोवा कोंकणी अकादेमीन दिल्ल्या पालवाक लागून तुमकां सगळ्यांक दिसता.

गोवा आर्ट कॉलेजचे प्रोफेसर आनी चित्रकार श्री. दिगंबर सिंगबाळ हांणी मुखपृष्ठ सजयलें, अपुरबाय प्रिंटर्सचे धनी श्री. हिरू नायक हांणी ताका नटयलें आनी कोंकणीचे सृजनशील कवी श्री. रमेश वेळुस्कार हांणी आपल्या नकसूद उतरांनी ताका श्रृंगारलें.

हांचे सगळ्यांचे हांव मनापासून उपकारी.

बरोच काळ वाट पळोवन जल्मल्ल्या भुरग्याची खोशी जे आवयक जाता तीच खोशी आज म्हजे वाट्याक आयल्या.

— नूतन

# प्रस्तावना

कोंकणी साहित्याच्या मळार एक नवी आस्था उदेवंक लागल्यार बरोच काळ जाला. हे आस्थेसंबंदान विचार करपाक तसो कोणाक वेळ मेळना. ही आस्था म्हटल्यार कोंकणी अस्तुरेची साहित्याविशींची आस्था.

श्रीमती विजयाबाय सरमळकार आनी सौ. कमलादेवी रावं देशपांडे हांच्या उपरांत एक वेगळी जाणीव घेवन कांय कोंकणी बायलो आस्थेन साहित्य निर्मिती करूंक लागल्यो. तातूंत बाय नूतन साखरदांडे एक. लग्नापयलिंचें सुखठणकार. सुखठणकार घराण्यांत साहित्य फळटालें, थंयच्यानूच ताणे आपली वाट पारखिली आनी आपले वाटचालीक लागलें.

कविता करप तशें सोपेशें दिसता, हें कोंकणीत आयज जे पद्धतीन कविता निर्माण जावंक लागल्या ताचेवयल्यान कळटाच. पूण ह्याच कवितांमदीं सकस कविता, जिणेकडे झुजत वा जिणेचेर खूब मोग करून बरयल्ली मनाक ओडून घेवपी कविताय पळोवपाक गावता देखून मात्शें सू जाता. म्हाका सगळे तेरची आमची कविता वाचतकूच पंडिताचे एके कवितेची याद जाता.

झडटा चंवर...
भियेंव नाका!
इल्लें झडटलें...
इल्लें उरतलें....
उरंतलें तें
रुप धरतलें
रंग घेतलें
आनी पिकतलें!

संवसारांतल्या सगळ्याच गजालींविशीं अशें म्हणूं येता. संवसारांत जें जें कितें निर्माण जाता तें सगळेंच कितें सामकें उत्कृष्ट म्हुण थारना. पूण तांतल्यो कांय गजाली मात उत्कृश्टतायेक पाविल्ल्यो आमकां पळोवपाक गावता. देखून हांव सगळ्याच कवितांकडे कितेंय तरी मेळटलेंच अशे आशेन पळयतां. केन्ना केन्ना खऱ्यांनीच खूब मेळटा. नूतनाच्यो कविता वाचतनाय म्हाका होच सोद आनी इत्सा अभिप्रेत आसा.

झाडार फुल्लेलो चंवर पळयतकूच बरें दिसता. गच्च गच्च लागलेलो चंवर. पूण हो चंवर केन्नाच धरना. आनी तो तसो धल्लोय जाल्यार एकाद्रो रूख

हो फळभार सोंसना जावन लंवडटनाय दिसता. हेखातीर सैमानूच ही माण्णी केल्या आनी ती म्हटल्यार तो चंवर आपाप झडूंक लागता. नूतनाची कविता वाचून म्हाका हेंच जाणवलें. नूतन आपलो बरोचसो चंवर हांगा झडोवन उडयतलें (झडना जाल्यार ताका तो बळयां झडून उडोवचो पडटलो) कारण नूतनान कांय उत्कृश्ट कविता ह्या संग्रहांत दिल्या. निदान त्या कवितांचो मान राखपाखातीर ताका तशें वचचेंच पडटलें.

आतां कोणूय म्हण्टलो की कांय कवितांखातीर हेर कविता कित्याक अशे झडयत वचप? कविता म्हणचे फकत कागदाचेर बरोवन दवरलेली उतरां न्हय. कविता म्हणचे जिणेचे वाटेर चलतना मेळलेले कांय साक्षात्कारी खीण. ह्या खिणांक फाव त्या शब्दांचे पाजण दिवन ताचें रूप निर्माण जाता. हें जाता आसतना शब्द फावो त्या शब्दांच्या अर्थतासांचो आनी ध्वनीपदरांचो थर चडयत वयता आनी मागीर ह्या सगळ्याच रसायणांतल्यान एक सूंदर कविता निर्माण जाता. अशा तरेच्या जिविताच्या खरायेच्या अणभवांतल्यान नूतन वचपाक लागलां देखूनच म्हाका बळयां चंवर झडवणेची गजाल गरजेची दिसता.

नूतनाची कविता सुरू जाता ती पयली कविता पळयात. हांव कितें सांगता तें तुमकां जाणवपाक लागतलें.

मध्यानराती पेटले दिवे
अंतर्मनां परजळ्ळीं
पांजऱ्यांतले प्राण-पारवे
सुटले सगळे जळीं मळीं.

कवितेचे हें पयलेंच कडवें आनी तें वाचतांच तुमी थारता. हें कडवें तुमी परत वाचतात आनी कवितेंत न बरयल्ल्यो गजाली तुमकां आपाप येवन मेळटा. रात जाली, दिवे पेटोवपाची आमची रीत. पुण दिवे आपशीं पेटना. म्हण दिवे पेटोवपाचो यत्न करीत रावप आनी करतां करतां मध्यानरात जावप. तुमचे कश्ट वाडटा पूण फळ नासता आनी तरी आसतना प्रयत्न थांबोवपाची नात ना. दुःख आसत घडये दिवे पेटना म्हण पूण तें व्यक्त करप ना असोचसो हो नेट देखून 'मध्यानराती पेटले दिवे' अशें म्हणून कविता सुरू जाता तेन्ना हेंच कळटा. यत्न करतां करतां मध्यानरात जाली तेन्ना हे दिवे पेटले. हे दिवे पेटले तेन्ना अंतर्मनां परजळ्ळीं आनी पांजऱ्यांत फारवल्ले प्राण-पारवे जळीं मळीं सुटले. ताणे हे मुक्त जाल्ले हांगा थंय कशे सुटले हांचे एक सुंदर शब्द चित्र आमच्या मुखार उबें केलां.

वेगवेगळे विशय हाताळीत नूतन संवसारांतल्यान अणभव घेत वयता. तें आपल्या मनांत आयल्ल्यो गजाली सहजतायेन मांडटा. म्हज्या माणकुल्या शाणकुल्यांक ते थातारता. ताका बरे तरेन रावपाची गजाल तें सांगता. पूण जी आवय

हे कवितेंत आसा ती एक जबरदस्त जाणीव आसलेली बायल. तिच्यांत सत्य फुलून येता आनी कांय पावटीं सांस्कृतीक बडवाचारांत जो फटींचो आस्पाव आसता ताका भेद दीत ही ताची आवय अेक जळजळीत सत्य सांगता. आपल्या भुरग्यांक आपूण माया दिवंक शकलें ना. आपूण तांकां वेळ दिवंक शकलें ना हाची तिका लज दिसता. ही लजूय आमकां एका ठरावीक पद्धतिच्या सामाजिक चिंतनशिलतेच्या आधारानूच पळोवंक गावता. नूतनाची ही आवय आपल्या भुरग्यांक म्हण्टा

हांवूच जर पेट्टा हांगा
तुमकां सावळी खंयची दीवं ?

नव्या युगांतली बायल बदलत चल्ल्या. तिची चिंतनां, तिचे आचार-विचार फाटल्या काळांतले बायलेक फावोसो छेद दिवन फुडें वचपाक लागल्या. आपल्याकूय जिवीत आसता आनी आपल्याक जाय ते तरेन तें जगपाक मेळपाक जाय हें सत्य होलमून ती उलोवपाक लागल्या. ह्या सगळ्या संक्रामक विचारांतल्यान ती घुस्पागोंदळांतूय पडल्या. आपुणूच पेट्टना आपल्या भुरग्याक सांवळी दिवप कशें अशक्य जाता ताचें विदारक सत्य हे कवितेंत बेस बरें उक्तें जाता.

म्हजे स्वत:चे विश्व
निर्माण करतना
हांव म्हजेच म्हाकाच विसरतां
तेन्ना तुमंची याद म्हाका कशी उरतली ?

सत्य नागडेंच आसता. तें सोसून घेवप फटकिऱ्या मनशाक अवघड जाता. नव्या संवत्सरांत बायलेच्या बदलांतल्यान घडत गेल्ले हे बायलेचें चित्र ही एक जबरदस्त गजाल. कोंकणी कविता आनी एका पावलान फुडें गेल्ल्याची सुलूस हांगा मेळटा. हातुंतल्यान नूतनाच्या फायच्या यशाची नांदी आयकूंक मेळटा.

'देणें' हे आनी एके कवितेन म्हजें मन ओडून घेतलें.

'म्हज्या दोन दोळ्यांतलो
एक दोळो तुका दिलो
तुज्या कुड्ड्या दोळ्यांक
नवी नदर मेळची म्हण.'

ह्या चारूय ओळींनी कविमनाक दुसऱ्याक कुड्डेपणांतल्यान उजवाडाक न्हय,

तांतल्यान निर्माण जातल्या सगळ्या सौंदर्याक आपणावपाची नदर मेळची म्हण आपलो एक दोळोच काडून दिवपाची नदर पयलीं येता आनी मागीर दोळो काडून दिवप सोपें जाता.

नूतनाचे कवितेक ही अशी वेगळी नदर आसा. देखुनूच तें म्हणटा

म्हाका आतां अेकाच दोळ्यांत
आख्खो संवसार दिसता.

एकाच दोळ्यान आख्ख्या संवसाराक पळोवपाची ही नदर खूब कितें सांगून वयता.

नूतनाची कविता एक केगाद आस्त निर्माण करता, ही कविता एके पारंपारीक भावुकतेच्या अंतर्पाटाक पयस करपाचो यत्न करता.

कोंकणी कवितेच्या मळार कोंकणी कवितेचो विचार जितले आस्थेन जावंक जाय आसलो तसो जाल्लो दिसना. कोंकणीत अतिनकसूद संवेदनक्षमतेचो एक लेगीत समीक्षक ना ही दुर्दैवाची गजाल. पूण कोंकणीच्या मळार दुर्दैवां पयस करपाचो इतिहास सदांच घडत आयला. हेंय दुर्दैव पयस जातलें. साहित्यिकांक फुलां माळपाचे दीस आतां पयस वचपाक जाय. साहित्याचो अभ्यास समश्टिची जीण म्हण जावपाक जाय आनी व्यक्तिगत टीकेक वाव आसूंक फावना आनी साहित्यिकांनीय भावूक जावपाचें सोडून दिवपाक जाय. आमच्या नव्या साहित्यिकांनी तर हे बाबतींत चड समंजसपणा दाखोवपाक जाय आनी जाण्टेल्यांक धिटाय दिवपाक जाय.

कोंकणी कविता आयज वेगवेगळ्या आंगांनी सकस जायत आसा. वेगवेगळ्या आंगानी फुलत आसा. हे फाटभुंयेर नूतनाची कविता आपलोसो छाप निर्माण करतली. तशी कविता ही वयले वयर बरोवन जायना. जिणेचे खरायेंत तिका आपली वाट सोदची पडटा. हे वाटेक नूतनाक तोंड दिवचेंच पडटलें. कविता संग्रह वाचतकूच नूतनांत ही शक्त आसा हिची जाणीव जाता. तशो ह्याय संग्रहांत कांयकडे सदोषपणा जाणवला. पूण नूतन ह्या अडचणीक शह दिवन फुडें वयतलें हाचीय सुलुस हो संग्रह दिताच.

कस्तुरमिर्ग कस्तुरेचो वास खंय मेळत काय म्हण रानभर विडविडटा. पुण तो ताचेच बोमलेत आसता ही जाणीव नूतनाक जाल्याच आसतली. भ्रम पयस वचपाक जाय.

कवितेच्या मळार काम करपाक नूतनाक खुब उर्बा मेळूं अशी आशा करीत तशेंच ताका खूब परबीं दिवन हीं दोन उतरां सोंपयतां.

**– रमेश भगवंत वेळुस्कार**

# मांडावळ

## जीण जाली कस्तुरी

मध्यानराती पेटले दिवे
अंतर्मनां पर्जळ्ळीं
पांजऱ्यांतले प्राण-पारवे
सुटले सगळे जळींमळीं

मळब पळे सकयल देंवलां
आतां निळीचार माती
स्वासास्वासांत किल्लतात
नवीं लक्ष लक्ष नातीं.

भुंये माते गोपांत घे
मनांमनांतले दुखा कांटे
दर्या देग भरून गेले
जिवीतांतले सुखा वांटे

सुर्या जाला लामणदिवो
गर्भकुडींत काजुले
रंध्रारंध्रात प्राण नवे
कोणे दिले? कोणे दिले?

झाडांपेडांक मोगा दोळे
मुक्त नवी धर्तरी
वाटेवाटेर साळका मळे
जीण जाली कस्तुरी

## मनांतली काणी मनांतुच उल्ली

मनांतली काणी मनांतुच उल्ली
काळजांतलीं फुलां बावून गेलीं

अेका झाडाक कोमरेवचें आसलें
अेका फुलाक फुलचें आसलें
तें झाड तशेंच उल्लें
तें फुल केन्नाच ना फुल्लें
मनांतली काणी मनातुच उल्ली
काळजांतलीं फुलां बावून गेलीं.

अेका मोराक नाचचें आसलें
अेका पोराक खेळचें आसलें
मोराचीं पावलां थीरूच उल्लीं
पोरांची ना शाळा सुटली
मनांतली काणी मनांतुच उल्ली
काळजांतलीं फुलां बावून गेलीं.

अेका दिव्याक पेटचें आसलें
अेका वातीक जळचें आसलें
दिव्यांत तेल घालचें उल्लें
वातीचें नशीब कोनश्याक उल्लें
मनांतली काणी मनांतुच उल्ली
काळजांतलीं फुलां करपून गेलीं
मनांतली काणी – मोरपीसांची
मनांतली काणी – मोतयां दुकांची
मनांतली काणी – पुनव चान्याची
मनांतली काणी – भांगर सपन्नांची
मनांतली काणी मनांतुच उल्ली
काळजांतलीं फुलां बावून गेलीं.

## अशें मळब अशी माती

मळबा मळबा हुपलीं
सोदल्यो चंद्रज्योती
जिविताच्यो पोशांत मात
उल्ली फकत माती.

माती माती रुजयता
कणा कणा वाती
त्या वातींत देखील्यो
कीट्ट सपना राती.

राती राती भिजयता
रगत बीजां मोलीं
त्या माल्यांत जलमल्यो
लाख लाख हुयेली.

त्या हुयेलीत किल्लली
सुख दुखा नातीं
फकत धतीरर फुलता
अशें मळब अशी माती.

## पावस मनांत

पावस मनांत पावस कानांत
टिपऱ्यो वाजयता
पावस पानांत पावस रानांत
मोर नाचयता.

पावस म्हजे कुळारा
धेक गाजयता
पावस म्हजे आंगणात
धोल बडयता
फातोडेचो पावस तुजी
याद जागयता
चान्न्या राती पावस
मना मोगरी फुलयता
पावस नेटान पावस शेतान
भात पिकयता
दोंगर माथ्यार शेतां मळे
बीजां रुजयता
उटंगार पावस म्हजी
सत्री उबयता
पावस पिसो असो कसो
म्हाका न्हाणयता
पावस मनांत पावस कानांत
टिपऱ्यो वाजयता
पावस पानांत पावस रानांत
मोर नाचयता.

# सांज

सुर्या देवला उदकाखाला
काळोख वाडला शीरीशीरी
सांज जाता परतलीं
मळबांतली सुकण्या भीरीं

दर्या कसो भरून आयला
कुपां लजेन तांबडेलीं
आमोरेच्या वेळा व्हडीं
घरचे यादीन हुसकेलीं.

वेळेर दोगांच चलतनां
कितलीं सपनां सपनेलीं
भरतेचीं ल्हारां येवन
पावलखुणो पुसून गेलीं.

# मालें

त्या धव्याफुल्ल वण्टीचेर
कालुच मुसांनी मालें केलां
खंयच्या खंयच्यान बारीक मोठे
तरेतरेचे मुस येतात
आनी अेकवटान रावतात
तांचो अेकामेकांचेर आशिल्लो
मोग पळोवन म्हज्या दोळ्यांत
दुकां उबीं रावतात
कित्याक तर हांव जाणां
अेक दीस असो येतलो
ज्या दीस ताका मनीस नांवाच्या
दुस्मानान लायिल्ल्या उज्यान
हुलपून हुलपून मरचें पडटलें
आनी मागीर
कांय दिसांनी
त्या धव्याफुल्ल वण्टीचेर उरतल्यो
फकत तांचे अेकवटाच्यो यादी.

## मन म्हजें

मन म्हजें सुकणें कशें
मळबा देग हुपीता
सुर्या देवा उज्या खाला
कणा कणान जळता.

मन म्हजें नुस्तें जशें
दर्या थाव सोदीता
भवसागराचे पाश
खीणा खीणा तोडीता.

मन म्हजें सपन पिशें
सपनांत सपनेता
सर्गांतलीं फुलां झाडां
धर्तरेर रोयीता.

मन म्हजें वारें कशें
पान रान हालयता
जिवीताचो रुख म्हजो
मुळासकट हुबयता.

मन म्हजें सामकें पिशें
मनातळा भोवरेता
तुजे म्हजे मोगा बंध
परते परते सांसपिता.

## झाड नवें पान नवें

झाड नवें पान नवें
हावेसाचें रान नवें
कळी आज फुलयता
फुडाराचें फुल नवें.

माती नवी नातीं नवीं
सपनाची फांती नवी
मनाशेवणे गायता
काळजांतुलीं गीतां नवीं.

ओंठावेले हांशे नवे
मनांतुलें पिशें नवें
पुनवेच्या चंद्रापोल्यार
लजेचें लाशें नवें.

नदर नवी दोळे नवे
दोळ्यांतुलें काजळ नवें
अवेळीच्या पावसाचें
जळ नवें मृगजळ नवें.

दीस नवो रात नवी
पणतेतुली वात नवी
वासनेचो हार सोडटा
दिसपट्टी कात नवी.

रंग नवे अंतरंग नवे
रंगातुले तरंग नवे
हड्ड्यातुल्या रगताचे
आज सात रंग नवे.

दार नवें घर नवें
घराचें घरपण नवें
आवयच्या पदरापोंदा
माये-मोगा दुद नवें.

# थरथर

आतां वेळ आयला
ही वाल हुमटावन
दुसऱ्याच्या दारान
लावपाचो
तेवटेन तोय वाट पळेता
वालीची
आपल्या-ज़ीवाचो माटोव करून
ही वाल थंय वाडटली,
फुलतली,
माटवभर जातली.

पुण वाल हुमटायतना जाल्ली
दोन हाताची थरथर मात
सासणाचीच उरतली
तीच्या काळजांत.

## काळजांत मळब

काळजांत मळब
  मळबांत उडटा घार
घारीच्या दोळ्यांत
  दुकां दुकां धार

काळजांत तळें
  तळ्यांत साळकामळे
तळ्याच्या देगेर
  सुकणें फडफडटा नीळें

काळजांत गोठो
  गोठ्यांत हामेता गाय
साणील्ल्याच्या नशीबांत
  आवय दुदा साय

काळजांत दर्या
  दर्यांत मोती
मोतयाच्या वळेसरांत
  शेणली सगळी नातीं

काळजांत साळ
  साळीन तोपले कांटे
जण एकलो चलता
  अनवाणी वाटे

काळजांत मोग
  कोणाकोणाक जाय ?
आपल्याच मनशाचे
  घायार घाय.

## रगत आतां व्हांवचना

खंय शेणल्या स्फुर्त म्हजी
सोदू सोदून मेळना
करपासारखें जायतें आसा
हातांत कांय घडचना.

पौशांतली मान्नीपुनव
चान्नें म्हजेर शिंपडायना
शिगम्याच्या खेळामांडार
काळीज म्हजें धडधडना.

आषाढ़ाची पावळी आतां
मनार म्हज्या पडचना
मळब जरी भरून आयलें
पावस कुपान मांडचना.

करपासारखें खुब आसा
हातान कांयच घडचना
कांटे खुटे तोपल्यार लेगीत
रगत आतां व्हांवचना.

## हो देश़ कोणाकोणाचो ?

हो देश फकत हिंदुंचो ?
हो देश मुसलमानांचो ?
हो देश शीख क्रिस्तांवांचो ?

हो देश कोणाकोणाचो ?
हो देश महात्मा गांधीचो
मौलाना अबुल कलम आजादाचो
हो देश गुरु नानक़ाचो
त्रिस्तांव ब्रागांझा कुन्याचो
हो देश तुमचो आमचो
हो देश सगळ्या भारतीयांचो.

ह्या देशाखातीर जाण पुता
कोणें तन दिलें, कोणें धन दिलें
कितल्या वीर पुतांनी
प्राण दिले रे प्राण दिले
कितल्या वीर धुवांनी
शील दिलें रे शील दिलें.

धर्मधर्मांतलें अंतर मिटोवंया
अेकचाराचो दिवो पेटोवया
भाव भाव म्हुण जियोवया
भाव भाव म्हुण मरुया
संवसारांत नांव काडुया
आमच्या भारतभुंयेचें.

हो देश कोणाकोणाचो
हो देश न्हंय हिंदुंचो
हो देश न्हंय मुसलमानांचो
हो देश न्हंय शीख क्रिस्तांवांचो
हो देश तुमचो आमचो
हो देश सगळ्या भारतीयांचो.

## खंय गेले खंय गेले

खंय गेले खंय गेले
शिगम्या खेळा मेळे
पुनवे राती बुडीले
मना साळका तळें

कुडीरुखा पेटिल्यो
हून रगता वाती
कोणे कोणे भोगिल्यो
प्रेम पावसा राती

खंय गेले? खंय गेले?
पांनांपानांतले काजुले
फांतोडेच्या पारा कोणे
सपन देऊळ मोडीलें?

होमखणां देगेर पळे
कोण सोदीता कळवळे
सर्गातले प्राण पारवे
खंय गेले? खंय गेले?

## हांव जाणां

असोच खंयचो तरी दीस येतलो
आनी हांव जाणां
अेक दीस तूं म्हाका सोडून वतले.
देखुनुच तो दीस येसर
तुज्या काळजांत म्हाका
जाता तितल्यो खुणो दवरूंक जाय
म्हज्या मोगाच्यो, म्हज्या रागाच्यो.
हो तुजो भरतेचो वेळ
अेक दीस सुकती येतली तेन्ना
तूं खंयतरी पयस पावतलें
आनी हांव जाणां
अेक दीस तूं म्हाका सोडून वतलें.
आनी मागीर खूप दिसांनी
तुजे काळजांतल्या म्हजे खुणांनी
तूं म्हाका सोदतलें
पिशांतुर जावन.

## जेन्ना वेळेर

जेन्ना वेळेर पावलां म्हजीं
रेंव धवी सांसपितात
मन म्हजें भुरगें जावन
त्याच रेंवेंत घरां बांदता.

बसुन जेन्ना पनेळान हांव
वाऱ्यावांगडा हालता धोलता
आठ वर्सांचे भुरगे जावन
मन म्हजें नाचता उडटा.

वेळेर बसून जेन्ना हांव
मळबांतलीं सुकणीं पळेतां
तांचेवांगडा सुकणें जावन
सगळें मळब हुपुन येता.

## एक दिस

अेक दिस म्हण्टा म्हाका
हांसत राव हांसत राव
संवसारांतलीं सगळीं सुखां
अेकानअेक पुंजयत रावत

अेक दिस म्हण्टा म्हाका
रडत राव रडत राव
सैमाचे खेळ पळोवन
दुकां तुजीं गळयत राव.

अेक दिस म्हण्टा म्हाका
चितीत राव चितीत राव
काळजांतल्या कोनश्याच्यो
पोन्न्यो यादी उस्तीत राव.

अेक दिस म्हण्टा म्हाका
जळत राव जळत राव
हेरांच्या खोश्येखातीर
कुड तुजी झरयत राव.

# पांचवो चुडो

खुब दिसाचें सपन म्हजें
साकार गो जातलें
हातांत घालून पांचवो चुडो
घरा जेन्ना तूं पावतलें.

भांगरान भल्लेली म्हुर्त तुजी
दोळ्यांत हांव साठयतले
हळदी आंगार तांबडो शालु
पळोवन हांव धादोसतले.

लजेस्त गो नदर तुजी
नवीं सपनां तुं रंगयतलें
नवो संवसार नवीं मनशां
नवी जीण फुलयतले.

माणकुलोच संवसार तुजो
सुखी गो तुं करतलें
सगळ्या जाणांक माया लावन
आपलेपणान वागयतलें.

तुं पयस गेलेंय तरी
काळजान म्हज्या उरतलें
इतली माया लायल्या तुवें
सांग कशें विसरतलें?

## म्हजें भुरगेंपण

आयज जायतीं वर्सां जालीं
हांव ह्या गावांत रावता
तेन्ना चौगुडो नाशिल्लो
आतां चौगुडो वाजता.

पिंपळावेलीं पानां म्हाका
वतना ल्हवुच सादयता
चौगुड्याचे सुर म्हाका
भुरगेपणात पावयतात.

आजुय म्हाका मळार वचून
खो खो लंगडी खेळन दिसता
धावतास्तना धोपर फुटून
रडत घरा येन दिसता.

गोपाळकाल्या दिसा तळयेन
उडयो म्हाका मारीन दिसता
गवळणकाल्या दिसा देवळान
फोवां लाडू खायन दिसता.

कृष्णादेवळात नवरात्रांनी
मकर म्हाका हालयन दिसता
दसऱ्यादिसा खणीर वचून
आपट्या पानां बुड्डीन दिसता.

दिवाळेदिसा फांतोडेचेर
नरकासुराक लासयन दिसता
धेणल्या पाडव्यादिसा म्हाका
रथाच्यो घुडयो काडीन दिसता.

शिगम्याच्या धोला तालार
तासो म्हाकां बडयन दिसता
दोनूय हातांनी गुलाल घेवन
धुळवटीदीसा मारीन दिसता.

आनीक अश्यो जायत्यो यादी
केन्नाय म्हाका पिसायता
मन म्हजें भुरगें जावन
गांवाभितर घुस्पून रावता.

# बळगें

झाडाक जेन्ना खांद्यो फुट्टात
वोता उदकांत जियेतात
अेकामेकांखातीर.

झाड जेन्ना जाता व्हड
अेक खांदी माल्ल्यार
दुसऱ्या खांदयेक जायना बादा
किंत्याक जाणा?
ती आपल्या बळग्यार उबी रावता.

आवयबापायली काचींबुचीं
शिंपण्यान तांच्या मोगाच्या
हांसत खेळत व्हडलीं जातात
तेन्ना –
अेकमेकांक पयसावतात
आनी केन्नाय
अेक भाव दुसऱ्याचो जीव लेगीत घेता
बळगें आंगांत येता तेन्ना
मनीस असो कित्याक जाता?

## ही वाट सोंपचीचना

ही वाट सोंपचीचना
कांट्या कुट्याची
तळपट्या सड्यावेल्यान वचपी
हांवेंच वेंचून काडल्या न्हय ती
मागीर ती कशी सोडुं ?

तिचेखातीर जायते सोंसले
अजुनुय सोंसता
फुलांची वाट पापणी
कित्याक पसंत केली ना ?
कित्याक सांगुं ?
ही कांट्याकुट्यांची वाट चलता
मनशाच्या गावानसुन
तांचें मनीसपण हुंगून
मनीस जावचे आसा म्हाका
आजुन जावंक ना
जांव ना जांव
या जिवीतांत मरता आसतना
मनीस म्हुण मेल्यार पुरो
सार्थक जावपाक काट्या खुट्यान
पाय फोडून घेतिल्ल्याचें.

# मास्तर आमचो मारकुटो

मास्तर आमचो मारकुटो
तकलेन मात्सो तिरकुटो
आसलो जरी शिरपुटो
सामको बाबा किटकिटो.

आपुण मात सुरांटो
म्हाका म्हण्टा बुरांटो
कपलाक सदांच तिरांटो
मास्तर आमचो मारकुटो.

चणे खावपाक मिटमिटो
खाड करपाक आळसुटो
टायमार हाजीर हाडकुटो
मास्तर आमचो मारकुटो.

दिसता कसो पिसरूटो
भितल्ल्यान मात शाणकुटो
नदरेन आसा तिरसुटो
मास्तर आमचो मारकुटो.

दनपरां सदांच झेमकुटो
अभ्यास केल्यार अर्दकुटो
फाटीचो करता धोलकुटो
मास्तर आमचो मारकुटो.

मास्तर आमचो मारकुटो
मनांत मात मायकुटो
मार्क चड पडले जाल्यार
फाट सांसपिता लाडकुटो.

# गिरेस्तकाय

हांव अेक अनाथ चली
अकस्मात सनाथ जाली
कशी जाली ?
कोणे केली ?

म्हजे पदरा आज बळगें आसा
कितेंय करपाची उर्बा आसा
दुखां गिळपाची तांक आसा
पैसो ना म्हुण कितें जालें ?

पैसो आज आसा, फाल्यां ना
पुण बळगें मात उरतलें सासणाचें
तुवें दिलां न्ही तें म्हाका ?

म्हज्या काळजाचो दोणो करून
जीखून घेतल्यां उतरां तुजीं
अमृताची
आज हांव खुबुच गिरेस्त जालां
आनी हीच गिरेस्तकाय
भरीत आसा हळुहळु
म्हजी रीती जीण.

# दुवाळे

म्हज्या रंध्रारंध्रांत हे कसले चल्ल्या सुवाळे
तुजे नदरेचे रे लागल्यात म्हाका दुवाळे.

पेट्टटां हांव कणाकणान शिरशिरतात शिरंतरा
दर्याची गाज काळजांत, उसळटाना मना ल्हारां
पोरसांतल्या मोगरेक रे निकतेच येंवक लागल्यात कळे
तुजे नदरेचे रे लागल्यात म्हाका दुवाळे.

उदेंतीचें वादळ जालां सुर्या देव लामणदिवो
अमासेच्या नखेत्रांचो आज कळटा अर्थ नवो
मना खोल गर्भकुडींत अेक फुल्लां साळकातळें
तुजे नदरेचे रे लागल्यात म्हाका दुवाळे.

वाट सगळी फुल्ल्या, कुडीक फुटल्या कोमरी
जळीमळीं चान्नें आनी जीण जाली कस्तुरी
स्वासास्वासांत किल्लतात उजवाडाचे मळे
तुजे नदरेचे रे लागल्यात म्हाका दुवाळे.

जीण तुवें ओपल्या म्हाका, तरी दोळ्यांत कसलीं दुकां
सुख तुवें इतलें दिलां तेंच आतां सोसना म्हाका
कोणाचे तरी वाटेकडे आतांपासून लागल्या दोळे.
तुजे नदरेचे रे लागल्यात म्हाका दुवाळे.

# अेक देखाव

त्या सुपुल्ल्या घराच्या आंगणात
तीं दोगांय भावणां खेळटात, नाचतात
वारो तांकां सांसपीता,
फुलां परमळ तांकां हांसयता
घराच्या हुमऱ्यार बसून
तांची आवय तांकां नियाळटा
तृप्तीचें पडबिंब तिच्या
दोळ्यांत उफेलां
मुखामळार आनंदाचें साळीक फुल्लां
हो मनभुलावणो देखाव
तिच्या अतीव सुखाचें रहस्य
म्हज्या कानात फुतफुतता
आनी हांव पिशांतुर जातां.

## तूं वचतसावन

तूं वचतसावन
म्हजीं पावलां म्हजेचकडे उल्ल्यां
तांचो आवाज तुका आयकुंक येना ?

तूं वचतसावन
म्हजे जिबेक सामको सुशेग मेळ्ळा
तिच्या उतराचो तुका उगडास जायना ?

तूं वचतसावन
म्हजीं दुखां म्हाका वेंग मारून आसा
तांकां पयसावचीं अशें तुका दिसना ?

तूं वचतसावन
तुज्यो यादी मात काळजांत उल्ल्या
व्हरूंक तूं तांकां एकदांय कित्याक येना ?

## आयली सकाळ

आयली सकाळ आयली सकाळ
पांचवोचार शालु न्हेसून
ताचेर किर्णाची वेलबुटी
दिसता कशी व्हंकल जशी
माटव्यांतल्या सव्याकडे वता तशी.

ओंठार हांशे हयन्हंयशे
दोळ्यांत काजळ सैमाचे
झाडाझाडार बसून सुकणी
गायता कवन येवकाराचे.

शिरशिरता वाऱ्या झुळूक
फुलां परमळ घमघमता
आयली सकाळ धर्तरेचेर
काळखी सपनां धांवडायता
उजवाडाचो संदेस दिवन
मनासाळीक फुलयता.

## मागणें

सुर्या सुर्या
म्हाका तुजो उजवाड दी
संवसारांतल्या सगळ्यांखातीर
तुजें म्हाका जळप दी.

झाडा झाडा
म्हाका तुजे पांचवेपण दी
वादळीवाऱ्या वांगडा म्हाका
झुजपाची शक्त दी.

मळबा मळबा
म्हाका तुजी विशालकाय दी
ह्या नश्वर देहाक
तुजी निळी अनंतताय दी.

दर्या दर्या
म्हाका तुजी खोलाय दी
ह्या संवसारान जियेवपाक
इल्ली तरी सुख थंडाय दी.

## म्हज्या माणकुल्यांनो

म्हज्या माणकुल्या शाणकुल्यांनो
झगडुं नाकात,
म्हजेफाटल्यान रावात बरेभशेन
म्हाका आवय म्हणून घेंवक लज दिसता
कारण आवयची माया तुमकां
दाखोवंकुच शकलेना
तुमकां म्हजो वेळ दिवंकूच शकले ना
हांवुच जर पेट्टा हांगा
तुमकां सावळी खंयची दिवं ?
काणी सांगीत सांगीत
तुमकां अेक अेक उणी लावपाचें
अजुन हांव शिकुंक ना
म्हणुनूच म्हाका दिसता जेन्ना
म्हजी हार जाता तुमचेकडल्यान
तेन्ना हांव शिक्षा करतां तुमकां
पुण म्हाका शिक्षा करप केन्नाच
म्हाका जमलें ना.

म्हज्या अपुर्बायेच्या भुरग्यांनो
तुमीं म्हर्जी सपनां पळोवं नाका
हरंशीं जाल्यारूय हांव
तुमचेपासून पयसुच
आनी म्हऱ्यान आसुनूय
हांव तुमचेपासून पयस.

म्हजें स्वत:चें विश्व
निर्माण करतना
हांव म्हजे म्हाकाच विसरतां
तेन्ना तुमची याद म्हाका कशी उरतली ?

तुमचो खेळ कितलो रंगान आयला न्हय ?
पुण तुमचो खेळ पळोवंक म्हजेकडेन
वेळ खंय आसा ?
सकाळचें म्हजें लक्ष आसता फकत कामाचेर
आनी घडयाळीच्या कांट्याचेर
म्हणुनूच म्हण्टा सदांच हांसतमुखान निरोप दियात.
तुमच्या आवयक समजून घेयात.

## पदरा जीणे मोती

मनारुखार फुल्ली सांज
पाकळे पाकळे मोगरी
स्वासास्वासांत फागुल्ली
तना तान तानेरी.

मळबाच्यो देगो सोदी
धतीरचे उमाळे
मध्यान राती फुलून आयले
उजवाडाचे कळेच कळे.

सपनांत सपनेली
माडांतुली वाट
देहडोंगरा वाजता
काळजांतली घांट.

गर्भकुडींत पुजील्यो
कीण्ण काळख्यो राती
फातोडेचो दवा वेंचों
पदरा जीणे मोती.

## बाबुच्यो कविता

बाबु म्हजो सुर्या
आनी हांव दर्या
तिनसांज जाली की
गोपांत म्हज्या रिगता.

* *

बाबु म्हजो चंद्रीम
आनी हांव धर्तरी
म्हजे भोंवतणी
घुंव घुंव घुंवता.

* *

बाबु शाणो बाबु गुणो
तुजेबगर संवसार उणो.

* *

बाबु म्हजे माणयेर न्हिदता
तेन्ना म्हजे पांय जड जाता
आख्खो संवसारूच
म्हजे माणयेर आशिल्ल्यावरी.

# देणें

म्हज्या दोन दोळ्यांतलो
अेक दोळो तुका दिलो
तुज्या कुड्ड्या दोळ्यांक
नवी नदर मेळची म्हुण.

म्हज्या पोरसांतलें अेक रोप
लायलें तुज्या दारांत
तुजे पडींग पोरसुं
फुलचें म्हुण.

म्हाका आतां अेकाच दोळ्यान
आख्खो संवसार दिसता
म्हजे पोरसांतली फुलां
आतां चड्डच घमघमतात.

# पावळी

आयज खुब दिसांनी
व्हडली दडक आयली
आनी तुज्यो यादी
पावस जावन
म्हजे घरार पडत रावल्यो.

पावळी गळची तशी
म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुखां
व्हांवत राविल्लीं.

आनी कांय वेळान
सामकें किण्ण
टप-टप-टप-
पयस खंय तरी
पावळी मात मात
गळत आशिल्ली.

## ती चित्रंगीची वाल

ती चित्रंगीची वाल
त्या वालीपोंदा कितलींशींच
ल्हान ल्हान रोपां किल्ललीं
म्हण्टा म्हण्टा हातभर वाडलीं
फुलां फुलांनी फुल्ली, परमळ्ळी
कितलींशींच वर्सां
त्या वालीच्या आदारान.

वाल मात आपलें फुलप विसरूनच गेल्ली
ती चित्रंगीची वाल आतां जडावल्या
तिका ल्हानसोच बोंगो आयला.

## मनांतली काणी

मनांतली काणी मनांतुच उरता
उतरांचें वजें पेलूंक अनमनता.

मनांतली काणी मनांतुच तळमळटा
केन्ना केन्नाय ओग्गी पडून रावता.

मनांतली काणी मनांतुच सुकता
दुखां आपली सांगतना मान वाकडी करता.

मनांतली काणी तुजे म्हजे व्यथेंतल्यान उदेता
आनी उपेक्षांचें वाळवंट पळोवन
मनांतुच तकली मुंगरता.

## निर्शेल्ली जीण

पुनवेच्या चान्न्या राती
मोवाळ सुर जेन्ना पडटात कानार
म्हजे शेणिल्ल्या सुरांची
काळी उमास रावता दोळ्यामुखार.

आंगार-फुलता शिरशिरीत कांटो
दुकां व्हांवतात दोळ्यांतल्यान
यादी किल्लतात तशी उमेद मरता
वाट काडटा निराशेच्या भोंवऱ्यांतल्यान.

मन म्हजें जाता पिशें?
येवजीत जाल्यार घडलें कशें?
"पडता तो वयर सरता" अशें म्हुण
तोणार फाकयता अडयेचें हाशें.

## होमखण

म्हजे भोंवतणच्या संवसारांत
होमखण पेटलां
ताचे धगीन हांव हुलपतां
म्हजे भावाभयणीच्या
विखाळ करण्यांनी
मन म्हजें करपून कोळसो जाता.

तेन्ना नितळ सैमा,
तुजे गात्रांगात्रांतल्यान व्हांवतल्या
शितळ वाऱ्यान
म्हजे जळट्या कुडीक
थणसाण मेळटा.

सैमा,
तुजेच बळग्यार हांव
ह्या धगधगत्या दर्यान
आशेन दीस धुकलतां.

# देव आनी हांव

केन्नाय देवळांतल्या देवालागीं
म्हजें जमना
भावार्थी आनी सुवार्थी
धांवतात देवळात
आपलीं दुखां ओतपाक ताज्या पावलार
आनी हांव अेकलेंच बसुन
गर्भकुडीभायर
ह्या सगल्या दुखांचो भार झेलतां,
तळपेतां, घुसमट्टां.

थंडगार पाशाणाच्या देवा,
तुका तीं बादनात
तुवें म्हजे काळजांत कीट उडयल्या
ती जळत आसा
तूं थंय वज्रजडीत शिंवासनार
भांगराचे पालखेन सुशेगाद बसुन
भक्तांची दुकां पळेता
पुण, हांव तीं सोंसतां.

देवा, तुजी नदर म्हजेकडेन
म्हजेर तुजो भरवंसो
म्हजी नदर तुजे पावलांचेर
व्हांवतल्या दुकांकडेन.

# सुकर्णी

सुकर्णीं धवर्शीं निळर्शीं
सोबीत माणकुलीं
अंतराळ भेदीत
दर्या हुपीत
वाऱ्यार बसुन उफेत येतात.

सर्गांतल्या दुतांनो
खंयसुनुय येयात
खंयुय वचात
पुण येतना
पलतडचे वाठारांतले
निर्मळ मनाचे स्वास
पवित्रतायेचे संदेस
वांगडा घेवन येयात
आनी वतना
हांगाच्या कुस्क्या मनाचे
उस्वास घेवन वचात.

## जीण म्हजी खिणाची

काळाच्या उदरांतसून
अेक खीण सरकत येता
वांगडा घेवन
अेक वीट मातयेची
घडणुकेची अणभवाची
वीटेर वीट
वाकडी तिकडी
उबी आडवी
पडत आसा
अेक वीट धड
अेक वीट फुटकी
अेक वीट तिरपी
अेक वीट चेपटी
वीटेर वीट पडत वता
घरा वणत घडत वता
खीणार खीण, वीटेर वीट
पयली वीट जल्माची
मागीर येतात वीटार वीटो

बारशाच्यो लग्नाच्यो
हेर तरांच्यो
खीणार खीण, वीटेर वीट
अेक वीट सुखाची
अेक वीट दुखाची
अेक खीण दयेचो
अेक खीण निर्शेणेचो
अेक खीण उमाळ्याचो
अेक खीण उमेदीचो.
खीणार खीण, वीटेर वीट
पयलो माळो उबो जाता
दोन माळे घडचे आसात
आनी निमणे येतलो अेक खीण
जीणेच्या अंताचो
खीणार खीण, वीटेर वीट
हीच म्हजी जीण.

## वाट

आमच्या पोरसांत अेक झाड आसा
आतां जायतीं वर्सां जालीं
ताका अेकुय कळो आयलो ना
ताका अेकुय फूल फुल्लें ना
तरी तें झाड जियेता
कित्याखातीर ?

तें कळयेची वाट पळेता
तें फुलाची वाट पळेता
ताचो ज़ीव मुळांत घुसमट्टा
ताचो प्राण पानानी हांबेता
ताचो मोग शिरंतरांनी शिरशिरता
ताचो स्वास पानापानांनी घुस्पता
अेकाच कळयेखातीर
अेकाच फुलाखातीर
तेवटेन तें झाड
हेवटेन हांव.

## म्हजे धुवे

म्हजे धुवे
तूं म्हजी आवय
तूंच म्हजी इश्टीण.

म्हजे धुवे
तूं म्हजी आजी
तूंच म्हजी कुलस्वामिनी.

म्हजे धुवे
तूं म्हजी भयण
तूंच ह्या सगळ्या
संवसाराची गंगोत्री.

म्हजे धुवे,
तूं म्हजे घरा आयली
आनी तुवें म्हाका
धर्तरेच्या रिणांतसुन
मुक्त केलें.

## गणीत

तुमी जर गणीत मांडटलेच
जाल्यार ल्हानशेंच गणीत मांडात.

ल्हान गणीत मांडलें जाल्यार
रोखडें सुट्टा तें जालेंच
शिवाय बाकी कितेंय उल्ली जाल्यार
केन्ना तरी उपयोगाक पडटा
जीवितात.

व्हडलें गणीत मांडटले जाल्यार
उत्तर येता शुन्य
आनी तें सुट्टा म्हणसर
खुबूच कळाव जाल्लो आसता.

# सुख

घरांतलें दरिद्र ल्हानपणानसान भोगलें
तेन्नाच ताणें थारायलें की
व्हड जातकच खुब्ब जोडप
सुखी जावप.

मोटार, बंगलो, फोन
टीव्ही, व्हीसीआर, व्हीडिओकोन
आनी खुबशें अशेंच
तो सपनां पळेत रावलो.

जीण झरय झरयली
कश्ट कर कर केले
पैसो म्हळ्यारूच सुख
मनांत गणीत मांडलें
त्याखातीर हेंवटेंतलें
तेवटेन केलें
धव्याचें काळें केलें
खुब पयशे जोडले
आनी पयशाच्या राशीर
बसपाचें ल्हानपणांतलें ताचें सपन
पुराय जालें.

अेक दिस ताका दिसलें की
खऱ्यानीच आपुण इतलो वयर पावलों
आपुण सुखी जालां आसतलों
पुण कितें सांगतलो?
सुख सकयलूच उरिल्लें
फडफडटालें,
आनी ताका सकयल देंवक येनाशिल्लें.

## फूल अेका पोरसांतलें

अचकित फांत्या पारार
त्या मंद धुंद अशा परमळान
म्हाका जाग आयली
हांवें जनेल उगडलें
पळेलें आमच्या पोरसांत अेक सोबीत
सुंदर फुल धोलतालें.
हांव धांवत फुलाम्हऱ्यांत गेलें
ताणें विचाल्लें,
वळखलें म्हाका? हांवूच तें काल तुका मेळिल्लें
म्हाका तुज्या मनांतलें कळ्ळें म्हुण हांव
वाऱ्यावांगडा धांवत आयलें.
म्हाका याद जाली,
कालुच त्या सोबीत फुलान म्हाका पिशें केल्लें,
पूण तें आसलें दुसऱ्याच्या पोरसांत
ताका हात लावपाचो म्हाका कसलो अधिकार?
पुण ताज्या सोबीत रुपान,
मनभुलायण्या परमळान
हांव पिशें जाल्लें.

तेन्नाच म्हज्या मनांत आयिल्लें
म्हाका हांवें म्हज्या पोरसान व्हेलें जाल्यार!
म्हजें पोरसूं सोबपाचें
कसलो विचार चल्ला? फुलान मदींच विचाल्लें
हांव आयिल्लें तुका आवडुना? थंय म्हजी
तोखणाय अपुरबाय कोणाक ना,
बाकीच्या फुलांवांगडा हांवूय बी एक.
हांव तुज्याम्हऱ्यान रावतलें.
तुजेखातीर म्हजी एक एक पाकळी झडोवन
हांव तुजे जीणेंत परमळ हाडटलें.
हांवें म्हळें, तूं पिशें, हांव तुका कितलो तेंप
म्हूण उदकान घालून दवरतलें?
तूं सुकलें, बावलें जाल्यार?
तूं तुज्या जाग्यार चल.
तुजो परमळ थंयच्यानूच म्हाका दी.
हांव तुका मायेच्या उदकान शिंपीन.
तुका फुलतना पळोवन धादोस जायत.
हांवें जड काळजान ताका निरोप दिलो
घरांत आयलें, ताजो परमळ घरभर पसल्लेलो.

# झेलो

उतरांचीं फुलां गुंथून
कवितेचो केलो झेलो
मोगाचो परमळ तांच्या
देठादेठांतल्यान घमघमतालो.

व्हडले खोश्येन तुका दिलो
पूण तुवें तो तोडलो
मोखुन माल्लो.

हांव बाबडें फुलां पुंजायत आयलें घरा
फुलां सामकीं सुकिल्लीं
पूण परमळ तसोच आशिल्लो.

## निष्ठेचो पास

म्हाका कितें जाय? सुख
तुका कितें जाय? निष्ठा
निष्ठेच्या पासान म्हाका
कित्याक पापया घुसपायता?
तोडून उडय तो पास
आनी पळे
सुखाची न्हंय व्हांवक लागतली
आनी
मेकळ्या सुखान निष्ठा फुलतली.

## ह्या वाटेन कोण गेले ?

कोणाखातीर कोण मेले ?
कोणाखातीर कोण जियेलें ?
म्हजें-तुजें करीत करीत
ह्या वाटेन कोण गेले ?

पदरांतलीं सुखां सगळीं
दोळ्यांतलीं दुकां जालीं
पांयांतले कांटे काडीत
ह्या वाटेन कोण गेले ?

मायेची नाती गोती
रगताची हाडां माती
काळजांत पुंजायत पुंजायत
ह्या वाटेन कोण गेले ?

जिविताची भांगरा पालखी
तुज्या म्हज्या सवंगाखातीर
उगड्या खांद्यार नाचयत नाचयत
ह्या वाटेन कोण गेले ?

अुकत्या फाटीर चाबुक सोशीत
तप्त रेवेंत पावलां मारीत
अश्टचक्रांचो रथ ओडीत
ह्या वाटेन कोण गेले ?

दोळ्यांतलीं दुकां लिपयत
साद्याभोळ्या मनीस रुपान
हड्यांतलो घाम गाळयत
ह्या वाटेन देव गेले.

## नाटक

खंय गेलीं तीं सपनां?
आनी खंय गेले ते सपुत
वांगडा जीण सारपाचे.

तुजो म्हाका सांगात दी
दोन बरीं उतरां दी
काय वर्सांपयलींच्या त्या
शेणिल्ल्या नदरेन
दोळ्याक दोळो लावन
दोन मिणटां तरी उलोवपाची संद दी.

कितले दीस रंगोवपाचें हें नाटक?
तुवें बऱ्या नवऱ्याचें सवंग करपाचें
हांवें सोशीक बायल जावपाचें
लोकांनी ताळयो मारपाचें.

लोक ताळयो मारीत रावले
आमी नाटकां करीत रावलीं
आतां वाज आयला
पुसून उडोवया तो रंग
आनी तीं रुपडीं
आनी अेकमेकाच्या वेंगेंत
पोटभर रडुन घेवया
तुजें दुख म्हजें दुख
समजुन घेवया.

# कोंब्या सादार

कोंब्या सादार पापणी तेंकयली
तुज़्या चिंतनानी रात जागयली.

तूं येतलो म्हुण दीस हांव मेजतां
अेकलेपणान जीण हांव सारतां
तुज्या यादीन शेनरी भिजयली
तुज्या चिंतनांनी रात जागयली.

सोड रे तूं ती भायली चाकरी
रावचीं हांगा आमी खावन भाकरी
तुज्या मीलनाचीं सपनां रंगयलीं
तुज्या चिंतनानी रात जागयली.

कोंब्या सादार पापणी तेंकयली
तुज्या चिंतनानी रात जागयली.

## दंवाथेंबे

पानावेले दवाथेंबे पळोवन
म्हाका दिसतालें भुरगेपणांत
सर्गांतले देव
म्हजेसारख्या गरीब भुरग्यांचेर
दुखां गळयतात
मागीर हांव प्रार्थीतालें तांचे लागीं
इतलीं दुखां ओतात
की जांचे लोटान
आमचे गांवचे गिरेस्त
न्हावन धुवन पवित्र जातले.
पुण म्हजें तें सपन
केन्नाच भंगलां
आजुय दंवाथेंबे चकचकतात
खीणाभीतर नाच्च जातात.

# ती

ती म्हज्याच शेजरा रावता
आज जायती वर्सां जालीं
हांव पळेतां –
वर्सानवर्स पायणो हालत आसा
भुरग्यांआंकडो वाडत आसा
काय वर्सांपैलीं
उमेदीच्या ल्हारांनी भरिल्ल्या
तिच्या तोंडार
आयज निर्शेणेच्यो मिरयो आसा
आंगार जुनेराची बोथरां लावन
भुरग्यांची वाश्टां काडुन काडुन
तिचे हात झरल्या
तिच्या जीणेची फांतोड उजवाडटा
घोवाच्या धेंगश्यांनी
आनी रात जाता भुरग्यांच्या हुयेलीनी
हांव मागीर येवजीतां –
अशी ही मोलादिक जीण
मातयेभरवण कित्याक जावची ?
कोणेय तिका पयलीं सुखाचो मंत्र दिल्लो जाल्यार
तिची अशी आवतिकाय जातली आशिल्ली काय ?
अज्ञानाच्या काळखान बुडून
तीची जीण पर्जळ्ळीना
हीच तीची मोनी व्यथा
म्हजी फाट सोडीना.

## सपनां

तुमकां म्हजी शेणिल्लीं सपनां मेळत जाल्यार
हाडून दियात आं!
ल्हानपणापासुन म्हजीं सपनां शेणत आसात
कांय आवयच्या कुशींत
कांय बापायच्या वेंगेंत
थोडीं भावाच्या मनांत
थोडीं भयणीच्या कानांत
कांय शाळेच्या बोटव्यांत
कांय कॉलेजीच्या वाटेर
अशीं हीं सपनां म्हजीं शेणतच आसतात.
तुमकां मेळ्ळीं जाल्यार
हाडून दियात आं!
म्हाका तीं सगळीं सपनां 'कोणाकडेन'
तरी दवरपाचीं आसात
नाजाल्यार तीं पिशीं सपनां
शेणून वचत सासणाचीं.

## आमी म्हण नवें कितें केलें?

जें तुमी करतात
तें आमीय केलें
संवसार केलो, नोकरी केली
भुरग्यांक जल्म दिलो
ताका शाळेन व्हेली, हाडली
मात्शी तांची अपुर्बाय केली
मात्सो टी व्ही पळेलो
मातशें पुस्तक वाचलें.

आमी म्हुण नवें कितें केलें?
उबाल्ले मात सपनांचे दोंगर
तातुंत आमी दोगांच
आनी आमचे खुबशे संकल्प
पूण खंयचेकडेन कांय ना.

कितले दीस फुकट गेले
कितलीं वर्सां फुकट गेलीं
आमी चुरचुरत रावलीं
दीस सरत रावले
केन्नाय दोन दीस वेगळे आयले
परतुन मनोराज्यां केलीं
पूण घरा येतकच
दार तेंच, संवसार तोच, प्रोब्लेम तेच
आतां सगळें सोडुंक जाय
नवें कितेंय करूंक जाय
ह्या चक्रव्यूहानसून
कशेंय तरी भायर सरूंक जाय.

## संवंग

तुं नाटकांतलें अेक संवंग
हांव नाटकांतलें अेक संवंग
तोणातोणार सारोवंया
तुजो रंग म्हजो रंग.

तुजें सवंग बापायचें
म्हजें सवंग आवयचें
खीणा खीणा सगळ्यांक
हांसोवचें रडोवचें.

सगळे जाणा आसले तरी
काळजांत पीशें पांगुरचें
दोळ्यांत दुका आसली जरी
तोंडार हांशें दाखोवचें.

आज अेक नाटक
फाल्यां अेक नाटक
रंगोवया सगळें अंतरंग
जिवितांतलें सप्तरंग.

तुं नाटकांतलें अेक संवंग
हांव नाटकांतलें अेक संवंग.

## पावसा पावसा

पावसा पावसा घोग्यानी पडुं नाका रे
घर म्हजें गरीबाचें गळोवं नाका रे.

मल्लान मल्ल हातान विणलां
कोण्यान कोणो सुटुंक पावला
मातयेचें घर म्हजें मोडुं नाका रे
पावसा पावसा घोग्यांनी पडुं नाका रे.

गिरेस्ताची रे कितलीशींच घरां
हांव जियेतां अेकुच आधारा
गरीबा आधार तोडूं नाका रे
पावसा पावसा घोग्यांनी पडु नाका रे.

गरीब पोरां खंय रे रावतलीं ?
उक्त्या मळबापोंदा कशीं रे जियेतलीं ?
गरीबाक दुखांनी रडोवं नाका रे
पावसा पावसा घोग्यांनी पडुं नाका रे.

दैवान माल्ल्यार कोणें राखचें ?
पावसान मोडल्यार कोणाक सांगचें ?
अपुरबायेचें घर म्हजें मोडु नाका रे
पावसा पावसा घोग्यांनी पडुं नाका रे

# दर्या

हो दर्या म्हाका पिशें लायता
फसफसपी घसघसपी
हो दर्या ल्हार जावन
देगेर घालून घेतना
म्हाका तुजी याद येता.

दर्या सगळ्यांचेर सारखोच
मोग करपी
ताचें मन ताचे इतलेंच व्हड
भरती सोंपतकच सुकती येता
तेन्ना जाल्ली ताची मनस्थिती
दर्याबगर आनीक कोण नकळो
तरी आसतना दर्या शांत
तो गाजत आसता
आमचेखातीर.

## उमेदीचे वारें

कानात म्हज्या भल्ले एक दिस
वारें खुबशे उमेदीचे
चार दिसांच्या पाडकावरी
जालें हांव पिशें कशें.

हेवटेन तेवटेन लागले नाचूंक
वाट दिसना
रस्तो कळना
धांवता धांवता पावलें पैस.

मागीर जेन्ना आयली जाग
तेन्ना वारें सोंपिल्ले उमेदीचें
आनी हांव वाट चुकिल्लें
आतां परततां वाट सोदीत सोदीत
एकलें एकसुरेंच.

# वोंवळां

वोंवळ जावन जियेवचें
कोणाखातीर तरी
सुकतां सुकतां परमळचें

* * *

वोंवळां सुकतकच घमघमतात
तुमचो मोगुय बी तसोच

* * *

वोंवळांक गुंथतना
देठार दुखोवचें पडना

* * *

म्हाका तुज्या काळजान
इल्लोसोच जागो जाय
वोंवळ जावन रावतलें
पयलीं परमळटलें
मागीर घमघमतलें

* * *

म्हजेकडेन धाल ना, गुलाब ना
शेंवती ना, मोगरी ना
आसात फकत
पोसोभर वोंवळां
जाय कोणाक ?
सुकली बावली जाल्यार
लेगीत परमळटली
जिणेच्या अंतामेरेन
परमळत रावतली.

## सांगड

अमुरपिक्या मोगा तुजे
पुनव चान्न्या दोळे
मना तळा कोमरेता
मळब नीळें नीळें.

हांत्या पोना रुजीले
तना मनां नातें
काळीज तुका सोदीता
उजवाडाचे वाटे.

प्राणरुखा फुटीला
उगडासाचो चंवर
पावला पावला परमळटा
यादी यादी शिंवर.

देव़ देऊळ अेक जाला
भांगरेला घुमटी मखर
मुळां मुळांत किल्लता
तुजी नदर म्हजी नदर.

पुनव चंद्र चान्न्यांवरी
तुजो म्हजो वांगड
सात जल्मा गुथीला
सुख दुखा सांगड.



## नूतन अरुण साखरदांडे

फोंडें म्हालांतल्या माशेल गांवात जल्म. अर्थशास्त्र आनी मानसशास्त्र ह्या विशयांचें पदवीधर. सद्याक पंजाब नेशनल बँकेत नोकरी करता.

भुरगेपणातसावन वाचपाची आनी बरोवपाची आवड. १९८० सावन लेखनाक सुरवात. आयजवेर कांय कथा, लेख आदी तरेचे साहित्यप्रकार हाताळ्ळ्यात. पुण कविता हेंच माध्यम स्विकारिल्ल्यान आयजवेर चडान चड कवितांचें लिखाण जालां. कांय कवितांक इनामां लाबल्यांत.

आकाशवाणी, पणजी केंद्रावयल्यान कविता सादर केल्यात, तेचवरी दूरदर्शन पणजीवेल्यान कविता प्रसारित जाल्यात.

कोंकणीच्या कार्यावळिंनी सक्रीय वांटो घेतला. बायलांच्या साहित्य मेळांनी भाग घेतला.

'अप्रूप' ह्या बायलांच्या कवितासंग्रहांत कवितांचो आसपाव जाला.

---

"नूतन आपल्या जिविताच्या खरायेंतल्यान कविता सोदपाचो यत्न करता. कविता ताणे आपल्या जिणेन घडटल्या दर दिसांच्या तमाम घडणुकांतल्यान झिरपून वेंचल्या. एका त्रयस्त नदरेन ते जिविताकडेन पळोवंक शकता हाच्यो कितल्योशोच देखी ताच्या कवितांनी दिसता. कांय वेळार तर तें भावुकतेच्या धुक्यांतल्यान पयस सरून वास्तवाच्या अंतर्मनाक हात घालता. वर्सासंकिनी एकाच सांच्यातल्यान पळोवपी आमकां घडये हे आतयें दिसूं येता. पूण कोंकणी कविता एके वेगळे दिकेन आपली कुस परतिता हाची लक्षणां नूतनाची कविता सांगून वयता.

– रमेश भगवंत वेलुस्कार

---